# शॉट्स !

## (कथिका)

**डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार**



**शॉट्स**

(कथिका)

**डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार**

फोन क्रमांक: 9511257964

**SHOTS**

(Short Stories)

**Dr. Tanvi Kamat Bambolkar**

Phone Number: 9511257964

प्रकाशक

**संजना पब्लिकेशन्स**

39, दत्तवाडी, सांगें, गोंय. 403704

फोन: 9552551425

ई-मेल: sanjanapublications2@gmail.com

Publisher

**Sanjana Publications**

39, Dattawadi, Sanguem, Goa. 403704.

Ph: 9552551425



पयली आवृत्ती : **03 सप्टेंबर 2022**

First Edition : **03rd September 2022**

छापणावळ :

**रिया ग्राफिक्स,** ओल्ड- गोवा

Printing

**Riya Graphics,** Old - Goa

मुखपृश्ठ

**संकेत लवंदे**

Cover Page

**Sanket Lawande**

भितरलीं चित्रां

**अॅड. हृषिकेश कदम**

Inside illustrations

**Adv. Hrishikesh Kadam**

भितरलीं चित्रां

**अॅड. हृषिकेश कदम**

Inside illustrations

**Adv. Hrishikesh Kadam**

मोल: रू. 150/-

**Price: Rs. 150/-**

म्हजे जिणेंत
साबार पांवंड्यांचेर
म्हाका
'किक' दिवपी
सगल्या इश्ट-इश्टिणींक...

# शॉट्स पेटोवया?

तरनाटीं वाचनात हो आरोप जायते खेप आज काल आयकुपाक मेळटा. खरें म्हणल्यार तरनाटीं पुस्तक रुपांत आशिल्लें उणें वाचतात आसत पूण आज आमकां नव्या माध्यमां वरवीं खूब किर्ते वाचूंक वा पळोवंक मेळटा. वरांचीं वरां वाचत बसचे परस कटींग च्या वा शॉट्स पेटोवपी आमची पिळगी. खासा तांचे खातीर हे कथा स्वरुपांतले शॉट्स!

ल्हान ल्हान कथानक जांव एक घडणूक घेवन कथा बरोवपाची सुरवात हांवें सुनापरान्त दिसाळ्यांतले आयतार पुरवणेंतल्यान 'युथ ब्लॉग' नांवाच्या सदरा खाला 2010 वर्साच्या सुमाराक केली. सुनापरान्त दिसाळ्यांत बरोवपाक म्हाका उर्बा दिवपी पत्रकारितेंतले जादुगार संदेश प्रभुदेसाय हांकां तशेंच म्हाका सातत्य दवरपाक मजत करपी जवाहर बर्वे हांकां ह्या प्रयोगाचें श्रेय वता. म्हजे सारकेल्या तरनाट्यांनी केल्ल्या प्रयोगाक तांणी सदांच येवकार दिलो आनी ताकाच लागून घडये कितलेशेच जाण कोंकणींत नवे प्रयोग करूंक लागले.

ह्या पुस्तकांत कांय कथा सुनापरान्त दिसाळ्यांत प्रकाशीत जाल्ल्यो तर कांय उपरांत बरयल्ल्यो आसात. खंयचेंय पद आयकतना वा महाविद्यालयांत पेपर तपासतना लेगीत

म्हाका त्यो सुचल्यात. एके ल्हानशे पूण रिलेटेबल घडणुकेंतल्यान वाचकां मेरेन पावपाचो हो यत्न. हातूंतल्यो कांय कथिका म्हजे जिणेंत लेगीत घडल्यात. आनी ते खीण म्हजे वांगडा अणभवपी इश्टांक त्यो हांव ओंपतां.

तरणेपणांत घडपी घडणुको आनी बदल आपसूक तातूंत भरसले. ते पुस्तक रुपांत तुमचे मेरेन कितल्याशाच वर्सांनी काय जायना पूण पावतात हाची खोस भोगता. हें पुस्तक जावपा खातीर म्हजे फाटीक लागून काम करून घेवपी अन्वेषा सिंगबाळ हाचे उपकार मानल्यार तें रागार जातलें तरी लेगीत ताका दिनवासतां. टंकलेखन करपी अतुल पंडीत, वितरक दिनेश मणेरकार, छापणावळ करपी हृषिकेश आठवले तशेंच, ह्या पुस्तकाक तरण्या आशयाक सोबता अशें मुखचित्र चितारपी संकेत लवंदे आनी म्हज्या कथा बिजांक चित्रीत करून भितरलीं चित्रां चितारपी हृषिकेश कदम हांचे सगल्यांचे मना काळजांतल्यान उपकारी!

हे शॉट्र्स मारून तुमी बेधुंद जावचे आनी तरण्या विश्वांत पावचे हीच इत्सा!

**– डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार**

# प्रस्तावना

हांव एक वाचक. म्हाका आवडटा तें हांव वाचतां. दुसऱ्यांक वाच म्हणटा आनी ते कथेंत, कादंबरेंत, ललीत साहित्यांत, लेखांत रमतां. लेखकांक फोन करून वा मुद्दाम मेळून म्हाका तांचें साहित्य कशें आवडलें, कित्याक आवडलें हें सांगपाक म्हाका जमना, जे लोक हे करतात तांचें म्हाका भोव कवतूक पूण म्हाका तें जमना. हो म्हजो दोश म्हणूं येता आनी तो दोश म्हाका मान्यूय आसा. म्हणटकीच एक दीस जेन्ना डॉ. तन्वी कामत बांबोळकारान म्हाका 'आपलें पुस्तक येता आनी ताची प्रस्तावना तुजे कडल्यान जाय,' अशें सांगतकीच हांव धर्मसंकटांत पडलें. पूण म्हाका ताका ना म्हणप जमलें ना. म्हणटकीच, निव्वळ एक आस्वादक ह्या नात्यान हांव ही प्रस्तावना बरयतलें अशी भुमिका हांवें म्हजे लागींच घेतली.

म्हज्या मुखार दुसरें धर्मसंकट म्हणल्यार पुस्तकांतल्या खंयच्याच कथानकांचेर बरयनासतना बरोवप कारण आयची आमची आय जी वा आल्फा पिळगी रोखडीच स्पॉयलर दिले म्हणून म्हाका खेपतली. स्पॉयलर म्हणल्यार काणी वा कथानक पयलींच सांगप वा

मात्सो तरी संकेत दिवप. हेंय हांवें दिवंक जायना. म्हणटकीच ही तांगेल्ली कसरत करपाचें धाडशी पावल मारूंक हांवें पेन हातांत धरलें.

तन्वीबायचें लिखाण वाचलें आनी एक प्रस्न मनांत आयलो. हाच्या काणयांक कितें म्हणप? कथा, कथिका काय मन-संवाद? बारा इटकुल्यो पिटकुल्यो ल्हान ल्हान काणयो. तांचो आकार, आशय-विशय आनी तंत्र पळयतकीच चंद्रकांत केणीच्या कथिकांचो उगडास जालो. उदय भेंब्रे हांणी चंद्रकांतबाबाच्या 'आशाढ पांवळी' (1973) ह्या कथा / कथिका संग्रहांतले प्रस्तावनेंत बरयलां, ''कथानका विणें बऱ्यो कथा बरोवं येतात हो नवो कथेचो सिद्धांत ह्या कथांनी अणभवाक येता. ह्या कथांनी चड कांय घडना. पूण जें थोडें घडटा, ताचो जो परिणाम मनाचेर जाता त्या परिणामाच्या चित्रणांतल्यान कथेक आंगलोट येता.'' तन्वीबायच्या ह्या इटकुल्या पिटकुल्या काणयां वरवीं होच अणभव वाचकांक येतलो.

तर तन्वीबायन जो साहित्य प्रकार केळयला, ताका कितें नांव दिवप? दोन पानी वा तीन पानी काणयो बरोवपाचो प्रयोग केला तो चंद्रकांतबाब केणी आनी दिपाबाय मुरकुंडेन. चंद्रकांतबाबाचींच उतरां उशणीं घेवन हांव म्हणटां, ''व्याख्या होलमना, कल्पनेंतलो आकार अजून निराकार आसा, तरी ह्या साहित्य प्रकाराक बरो फुडार आसा हे विशीं म्हज्या मनांत दुबाव ना. 'कथिका' हेंच कथेचें युनानुरूप स्वरूप.'' (23 नोव्हेंबर 1995, मेघमल्हार)

तर ह्या दोन-तीन पानी कथांक कथिका म्हणली जाल्यार एक पानी कथिकेक लघू-कथिका म्हणूं येना?

कथा वा कथिका म्हणल्यार ती अमकेच तरेची आसूंक जाय असो एक समज आसतालो. कथेक सुरवात, मध्य आनी शेवट आसूंक जाय आनी केन्ना केन्ना वेगळेंच वळण घेवन ते कथेन लोकांक एक तर हांसोवंक जाय, नाजाल्यार रडोवंक जाय, चिंतेस्त करूंक जाय

वा विचार करूंक लावंक जाय. पूण रवीन्द्रबाब केळेकार म्हणटात, "सांगन दिसता आनी आयकन दिसता ती कथा. युगानुसार कथेचें तंत्र कितलेंय बदलूं, मंत्र बदलचो ना. कथेन समभाव जितलो आसता तितली कथा उठ्ठा."

तन्वीबायच्यो लघू कथिका उठून दिसतात कारण तातूंत काकुळट, दया ना पूण समभाव भरपूर आसा. खूब वेळा अशें दिसता, 'आरे हय, ही भावना म्हजी काय? हां, हय अशें घडिल्लें,' आनी मागीर कथिकेंत सोडिल्ले विचार अळंग वाचकाच्या मनांत परत परत येतात.

तन्वीबाय युवा पिळगेचे प्रतिनिधी. हे पिळगेचो सभाव धर्म सामको सादो. जें आसा तें आसा. तें मान्य करपाचें, कितेंय वायट दिसलें, त्रास भोगले, खीणभर ताचेर विचार करपाचो आनी फुडें चलत रावपाचें. ताचेर दुख्ख, वितराग उक्तावप ना वा परत परत विचार करप ना. तन्वीचे लघू कथिकान हो सभाव गुणय प्रकर्शान दिसता.

पूण ताच्यो ह्यो 'छोटा पॅक, बड़ा धमाका' कथिका म्हाका बावलेंत बावल्यो, बावलेंत बावल्यो आशिल्ल्या खेळण्यांची याद करून दिता. एक व्हडली बावली आसता. ती उगडली काय तातूंत दुसरी आसता, ती उगडली काय... अश्यो सात बावल्यो आसतात. तन्वीच्यो कथिका अश्योच. एके कथिकेंत कितलीशींच कथा बिजां घेवन उबी रावतात. दर वाचकान आपल्या मनांच्या कॅलेडोस्कॉपांतल्यान हीं कथा बिजां केळोवचीं. पळयात कितली मजा येता ती.

'अळमीं' (1979) ह्या कथा संग्रहाचे प्रस्तावनेंत रवीन्द्रबाब एक गजाल सांगतात. "मोपासांची L'Heritage नांवाची एक कथा आसा. ती ताणें दोन तरांनी बरयली. पयले खेपे एका दिसाळ्या खातीर – शें दोनशें उतरां भितर. दुसरे खेपे एका म्हयनाळ्या खातीर. हजार दोन हजार उतरां भितर. कथा एकूच. पुणून पयलेंत एकूय उतर उणें नाशिल्लें. दुसरेंत एकूय उतर चड नाशिल्लें."

तन्वीबायन होय प्रयोग केल्यार जाता. तसो पुंडलीकबाबान प्रयोग केलाच. तांचीं कथा बिजां, एकांकिकेंतल्यो काणयो नाटकांत विस्तारान पळोवंक मेळटा. घडये तन्वीबायच्यो लघूकथिका - नवलिका वा कादंबरी जावं येत, कारण साहित्य प्रकार हो ओघवतो आनी व्हांवतो प्रकार, तो कोण कसो केळयता ताचेर आसा.

ताच्या लघू कथिकांचें वैशिश्ट्य म्हणल्यार विशय सामके सादे, आमकां-तुमकां येतना वतना अशेच आपट्टात ते. तातूंतले विचार, लख्ख करून वीज कशी मनांत येवन वतात तसले. पूण आमी ते शब्दांनी केन्ना बंदिस्त करूंक ना, ताणें केलां. म्हणून ताची अपुग्बाय.

आमकां गोंयकारांक प्रत्येक गजालीचेर स्वताचें मत आसता. तें आसचेंच. पूण म्हजेंच मत खरें आनी तुमी सगळीं चुकतात, हो समज बरोबर न्हय. तो आमचो भ्रम. तन्वीबायन हो जो प्रयोग केला ताचे घडये कवतूक जायत पूण टिका जावपाची शक्यताय आसा. ही टिका केन्ना केन्ना अज्ञानांतल्यान जाता. आंवय हें कितें? एक पानी, अर्द पानी म्हणून कथिका आसतात? अशें म्हणचें पयलीं असले प्रकार साहित्यांत आसा काय ना हाचो सोद घेयात. तन्वीबायचे एक पानी लघू-कथिकेचो प्रकार कोंकणी साहित्यांत नवीन पूण हेर भासांनी हो प्रकार आसा. इंग्लिशींत तर फ्लॅश स्टोरीज वा फ्लॅश फिक्शन (1000 वा कमी शब्दांत), टॅरिबली टायनी स्टोरीस (100 वा कमी शब्दांत), शॉट शॉट्स वा सडन फिक्शन (500 उतरां), मायक्रो फिक्शन (300-400 उतरां), ड्रेबल (100 शब्द), ड्रिबल (50 शब्द) आनी अशेच वेगवेगळे प्रकार कथेंत आसात. (हे प्रकार अजून कोंकणींत येवंक नात, म्हणटकीच तांचीं कोंकणी नांवां अजून तयार जावंक नात. देखून तशा तशींच इंग्लिशींत दिल्यांत.) म्हणटकीच तन्वीबायच्या ह्या कोंकणी प्रयोगाक मेकळ्या मनान येवकार दिवया.

रशियन लेखक चेकोव हांचे कथेंत आरंभ नासता, अंतय आसताच असो ना, खीणभर येवन, खीणभरांत वचपी पूण वाचकांच्या मनांत अजरंवर ठसो दवरून वचपी लेखक म्हणून

ताची नामना आसा.

तन्वीबायचे शैलींत म्हाका ही तांक दिसता पूण तन्वीबायन इतल्याचेर समाधान मानून रावचें न्ही. ताणें कथांचेर वेगवेगळे प्रयोग करीत रावचे पडटले. सातत्य, चिंतन, मनन, वाचन आनी खडतर परिश्रम करीत रावचें पडटलें. दुसऱ्याचें वाचलें तरीय तांचो प्रभाव कुशीक सारून बरोवचें पडटलें. जजमॅण्टल जायना आसतना कथानक, पात्रां रंगोवचीं पडटलीं. रंग घेवन चित्रां पितारप जाता तशेंच शब्दांतल्यान व्यक्ती आकारप करचें पडटलें. सादी, सोंपी, सुटसुटीत भास पूण जबरदस्त आशय घेवन कथा घडोवच्यो पडटल्यो. तशें जाल्यार, घडये गोंयाक, आनी एक चेकोव मेळत.

**– प्रशांती तळपणकार**

सहयोगी प्राध्यापक, लेखक आनी अनुवादक

# मांडावळ



# 1. सिनेमा



कृष्णाची मूर्त पळोवन कितल्योश्योच यादी म्हज्या दोळ्यां मुखार सिनेमा भशेन येवन गेल्यो. हें सिनेमाचें पिशें ताकाय आशिल्लें. ताका तातूंतच आपली पुराय जीण

ओंपपाची आसली. सिनेमाच्याच नादान ताचें देशभर भोंवप जातालें. अशेंच एके भोंवडेर आसतना ही कृष्णाची मूर्त ताणें हाडिल्ली. हरशीं तो नास्तीक. पूण म्हजी कृष्णभक्ती ताका बेस बरी खबर आसली. भक्ती कसली? पिशेंच तें. मेळत थंय कृष्णाची मूर्त सोदप आनी त्यो हाडून पुजेक लायनासतना अश्योच दवरप, हें म्हजें पिशें, म्हाका खूब आदीं सावन लागिल्लें. घडये तें बाबाक लागून जावंये. कारण तोवूय बी नास्तीक. ज्युस्त ताचेंच भशेन. पूण देवाच्यो मुर्ती एक कलाकृती म्हूण तो सांबाळून दवरतालो.

ताणें हाडिल्ले ते सुपुल्ले मुर्ती कडेन हांवें परत पळयलें आनी ती हातांत घेतली. ह्या कृष्णाची म्हाका मजाच दिसता. तो केन्नाच कोणाचोच जालो ना. सगल्यांचो आसुनूय कोणाचोच न्हय असो उरलो. हांव ताका मेळत सावन ताचे भितर सदांच कृष्णाकूच पळयतालें. पूण तोवूय केन्ना कोणालो जालो ना. भोंवडेर गेल्ले कडेन ताणें म्हाका कृष्ण हाडप हो म्हज्या अंधविस्वासू मनाक पोशेवपी खीण. घडये ताका हे गजालीचें मोल कळुंकूच नासतलें. म्हाका आवडटा म्हूण तो घेवन आयलो. पूण हांव ते एकेच गजालीन कितलें भारावन गेल्लें हें ताका खबर आसा काय ना, हें म्हाकाय खबर ना. ताच्या मनांतलें म्हाका केन्ना कळच नासलें पूण म्हज्या मनांतलें मात ताका सगळें समजता अशें म्हाका दिसतालें.

आमचें मेळपूय खूब पोरण्या काळांतलें शें आसलें. सुरवातीक तर ताचे खातीर हांव फक्त एक विद्यार्थी आनी तो आमकां नाटकां शिकोवंक आयिल्लो दिग्दर्शक. ताणें केन्ना म्हज्या दोळ्यांत दोळे लावनूय पळयलें ना. एकांकी जातकच खूब दिसांनी आमी बस स्टॅण्डार मेळ्ळीं.... चुकून... म्हजें मन कासावीस जालें. ताका तें कळ्ळें काय? ताचेंय अशें जातालें काय? खबर ना... केन्ना हांवें विचारलेंय ना.

पूण त्या दिसा बस स्टॅण्डार आमी खूब उलयलीं. येसाय सोंपली. आमी सगळीं आमच्या कामांत गुल्ल आसलीं. एकांकी कशी जाली... आमचें खंयूय चुकलें बी ना मूं.... आनीक

कितें केल्यार नाटक बरें जातलें आसलें... हाचेर चर्चा केली. ताणें म्हाका घरा सोडलें. पयलेच खेपे तो बाबाकूय मेळ्ळो. म्हज्या बाबाचो एक सभाव आसलो. ताका जो कोण आवडटा ताचो तो सोमतो हात धरता आनी ताका पोशेंत रावतालो. एकांकी बरी जाली अशें सांगून बाबान ताचो हात धरलो. म्हजें मन त्या खिणाक कित्याक आनी कशें म्हूण कोण जाणा, खूब खोशी जालें.

ते एकेच भेटेन आमी खूब लागीं आयलीं. उपरांत ताणें म्हाका शिकपाक मजत करप.... घरा येवप... म्हज्या वांगडा भोंवप... म्हाका नव्यो नव्यो गजाली शिकोवप... म्हजेर कविता बरोवप... एका इश्टा परसूय म्हजी चड अपुरबाय करप... सगळें सगळें तो करतालो... पूण ताच्या मनांतलें ताणें केन्ना सांगलें ना... ताका सांगपाचेंय नासलें जायत. ताचीं सपनां म्हज्या आनी ताच्या नात्या परसूय खूब व्हड हें म्हाका सुरवाती सावनूच कळिल्लें म्हणून हांवेंय ताका केन्ना ते विशीं विचारलें ना. आनी विचारिल्लेंय जाल्यार तो म्हाका सदचे भशेन हांसोवन, फकांडां मारून विसरायेर घालपाचो वा म्हजेर कथा बरोवन ताचेर फिल्म काडपाचो.

हांव कामाक लागले उपरांत ताका एका सिने निर्मात्यान मुंबय आपोवन व्हेलो. निमणे एकदां मेळचें अशें थारावन आमी तो वच्चे पयलीं मेळ्ळीं. चड कांयच उलय नासतना खूब कितें उलोवन गेलीं. दोळ्यांनी भासाभास करपाक ताका बेस बरें जमतालें. दिशिल्लें आपलीं सपनां पुराय करून तो परत येतलो. घडये तेन्ना तरी आमच्या फुटूंक नाशिल्ल्या उतरांक पालवी येतली. पूण, तो मागीर थंयच उरलो. हांव मात ताचे यादींत कविता, कथा बरयत रावलें. मर्दी केन्ना तरी तो घरा आयलो तेन्ना ताणें म्हाका तो कृष्ण हाडिल्लो. उपरांत आमगेर तसो तो आयलोच ना. हांवेंय ताची वाट पळयली ना. ताचें न येवप हो ताचो कसलो तरी म्हाका संदेश बी आशिल्लो काय?

आयज परत ती मूर्त पळयतना सगळें कितें काल - पयरूच घडिल्लें भशेंन म्हज्या दोळ्यां मुखार येवन गेलें. हांवें ते मुर्तीक लागिल्लो घयरांव काडलो, धुल्ल पुसलो आनी दोळ्यांत दाटिल्लीं दुकां पुशीत भायर आयलें. भायर म्हजो घरकार उबो आशिल्लो.

'राधा, ह्यो पळय. आयज सांजे सात वरांच्या सिनेमाच्यो तिकेटी काडल्यात. बाबानूय येता म्हणलां... आयचे रातीं बाबाक हांवें आमगेरूच राव म्हणलां..'

'हां. बरें आसा.' हांवें भानार येवन म्हणलें.

हांवें घरकाराच्या हातांतल्यान तिकेटी घेतल्यो. सहज तिकेटीचेर नदर मारली. सिनेमाचें नांव आसलें 'हरी - बावरी'. आनी दिग्दर्शक आनी बरोवपी... तो.

तोंडार आपसूक हांसो आयलो. घडये आयज कळटलें ताच्या मनांतलें अशें मनांत म्हणून घरकारा सांगाता हांव उमळशिकेन भायर सरलें.... ताणें तयार केल्लो सिनेमा पळोवपाक!





# 2. रेहना तू...



हना तू... है जैसे तू...’ ए. आर. रेहमान मंद आवाजांत गायतालो आनी तीं दोगांय ते एलीट पार्टीत एकामेकांच्या खांदार हात घालून मंद नाचतालीं. नाच न्हयच तो. देविकाक जाय आशिल्लो तसलो तर न्हयच. पूण तरी तीं दोगांय

तशींच धोलतालीं. थंय उजवाडूय तितलो नासलो. हय न्हय सो आमलो. सगळींच आपलेंच धुंदींत नाचतालीं. तीं दोगांय लेगीत. देविका आनी विराज. देविका निळी शिफोन साडी न्हेशिल्लें. पदर सोडिल्लो. तो मोरपिशी रंग देविकाक खूब आवडटालो. पूण असो पदर सोडप ताका मातूय आवडनासलें. पूण असल्या पाटींनी ज्यो साडी न्हेसतात त्यो असोच पदर सोडटात. तशें विराजाक हें सगळें आवडटालें अशें न्हय. खरें म्हणल्यार ताका नाचूच आवडनासलो. फकत देविकाच्या समाधाना खातीर तो नाचतालो. देविकाक आवडटा म्हणून नाचतालो. आयज हे पार्टेंत सगळीं जोडपीं नाचतालीं. जे कोण एकले आयिल्ले ते व्हिस्कीचो ग्लास घेवन बशिल्ले आनी जीं कोण एकलीं आयल्यांत तांकां तिरशे नदरेन पळयताले.

'म्हाका हें पद आवडटा.' देविकान म्हणलें.

'जाणां हांव.' विराजान हय-न्हयशें हांसून म्हणलें. देविकाक ताणें सवकास हाताक धरून घुंवडायलें. देविकाक खंय तरी पयस व्हरून ताका वेंगेंत घेवपाचें आसलें. पूण कशें म्हणून कोण जाणां, ह्या दिसांनी रातीं पयस वचप जमनासले. तीं दोगांय दिसभर कंपनीच्या कामांत व्यस्त आसतालीं आनी रातीं असल्या पाटर्यां परस रेहमान आयकप दोगांयकूय आवडटालें. उलोवपाक लेगीत त्राण उरनासले.

'ही साडी हांवें हाडिल्ली न्हय?'

'हय.' इतलो वेळ विराजाच्या दोळ्यांत दोळो लावन बशिल्ल्या देविकान सट्ट करून म्हणलें.

कांय खीण शांतताय पातळ्ळी. दोगां भितर रेहमानाचें 'रेहना तू' मात सुरूच आशिल्लें.

'वीर, आय एम फिलिंग सफोकेटेड हियर. कॅन व्ही गो आवट?' माणकुल्या भुरग्या

वरी ताणें विचारलें.

'कितें जालें? आर यू फायन?' विराजान चिंतेस्त जावन विचारलें.

'आय एम ओके. पूण म्हाका भायर वचपाक जाय. प्लीज, कॅन व्ही?' ताणें विचारलें.

नाच थंयच थांबोवन विराज भायर वचपाक लागलो. ताचे फाटल्यान देविका आपलो जमनीर पावपी साडयेचो पदर वयर काडीत चलतालें. वाटेर दोगांयकूय खूब जाणांनी आडायलें. खंय वतात इतले बेगीन? अशें म्हणून हडकिलें. पूण दोगांनी तांकां जाप दिली ना आनी कशी-बशी भायली वाट धरली.

देविका आतां धडपडपाक लागिल्लें. इतलो वेळ हय - न्हयशा उजवाडांत विराजाक तेळीत नाचपी देविका आतां मातशें भियेल्ले वरीशें जाल्लें. तीं दोगांय गाडये कडेन पावलीं.

'वीर, हांव गाडी चलयतां.'

'पूण हांव पियेवंक ना.'

'जाणां. तरीय प्लीज.'

विराजान कांयच म्हणिनासतना चावी देविकाच्या हातांत दिली. देविकान साडयेचो पदर कमरेंत खोयलो आनी तें ड्रायव्हराच्या सिटार बसलें. विराज कुशीच्या सिटार बसलो. देविकान गाडी सुरू केली. दोगांय ओग्गी आसलीं. देविकान रेडियो लायलो. रेडियोचेर पद लागलें.

'ये कहाँ आ गये हम.'

देविकान गाडी पुला वटेन व्हेली.

‘देव, खंय वता?’

देविका ओग्गी रावन गाडी चलयत रावलें. रातचीं इकरा वरां जाल्लीं. पुलाचेर वाहनांचें येवप – वचप नासलें. फकत दिसतालें तें लायटीच्या उजवाडांत चकचकपी न्हंयेंतलें उदक. देविकान गाडी मदीं थांबयली आनी तें देंवलें. ताचे फाटोफाट विराजूय देंवलो. तें पुलाक तेंकून न्हंयेंत पळोवंक लागलें.

‘वीर, याद जाता? हांव एक वर्स म्हज्या इश्टां वांगडा मुंबय वचपाचें आशिल्लें. मुंबय वतकच आमी एकामेकांक कांय दीस मेळचीं नात म्हणून मेळपाचीं आसलीं. आमकां मेळपाक मेळना म्हणून आमचीं झगडीं जाल्लीं. याद आसा?’

विराज मातसो अजापलो.

‘हं. याद आसा म्हाका. पूण ताका कितलींशींच वर्सां जालीं. लग्ना पयलींची गजाल मुगो ती?’

‘हय. तूं म्हाका हांगाच घेवन आयिल्लो आनी सगळो राग विसरून आमी खूब उलयलीं. कितले सोबीत खीण सारिल्ले आमी हांगा.’

‘एक एक बरें याद उरता तुका,’ अशें म्हणून विराज हांसलो.

देविका मात गंभीर जालें.

‘तो खीण हांव केन्नाच विसरूंक शकना. तो खीण म्हाका परत जाय. आयज... इतल्या वर्सांनी... अशीं कशीं खंय शेणलीं आमी? पयलीं आमी एकामेकां वांगडा कितलीं खूश आसतालीं. आयज तूं आनी हांव म्हणल्यार पेज थ्री कपल्स जाल्यांत. पाट्यांनी वचप, फोटो काडप आनी घरा उसरां येवन न्हिदप. तुजे खातीर म्हाका आनी म्हजे खातीर तुका

वेळूच ना. अशीं आमी दोगांय एकठांय आयल्यार कितलो तेंप जालो रे मोगा?' देविका सडसडीत उलयलें. इतलो तेंप मनाच्या कुर्कुटांत सांठून उरिल्ली व्यथा ताणें एकाच धपक्यान सांगून उडयली.

वारो संथ व्हांवतालो. आनी मळब देविका जाल्लें. जोगलां भशेन तें चकचकतालें... गडगडटालें.

'देव, पावस आयलो. थंडी जातली भिजल्यार. भितर बसून मजा घेवया, प्लीज.' देविकाचो पोलो पोशेत विराजान म्हणलें. खूब दिसांनी तो देविकाच्या दोळ्यांक दोळे लावन पळयतालो. ताका असो लार्गीच्यान पळोवपाक ताका वेळूच नासतालो.

'चल, या आतां.' ताणें हांसत म्हणलें आनी तें कुशीच्या सिटार बसलें. पयलीं भशेन. पांय वयर काडून. विराज ड्रायव्हराच्या सिटार बसलो. गाडी सुरू जातकच ताणें सी. डी. लायली. तांच्या दोगांचे आवडीचें पद सुरू जालें.

'ऊन जरा जास्त आहे... दर वर्षी वाटतं...' सौमित्र म्हणटालो.

'गारवा.' तांणी दोगांनी गावपाक सुरवात केली. दोगांय एकामेकांक पळयतालीं. मर्दी मर्दी हांसतालीं. भायर पावसूय रकतालो. तांचे सारकोच.





# 3. ती




जिक गिव्स मी हाय’ ताणें हांसत म्हणलें. इतल्यांत ताची नदर तिचेर पडली. आनी ती नदरेंत पडटनाच म्युजिक दिता ताचे परस चड ‘हाय’ ताका चडली. कांय खीण तो तसोच तिका तेळीत उरलो. फाटल्यान तवनास पोरांनी चाळोवप

सुरू केल्लें. ताचें थंय लक्ष नासलें. तिच्या आयच्या भेसाक तेळपाक ताचे दोळे बिझी आसले. मोरपांखांचीं कानांतलीं, निळोच चुडीदार आनी तिचो तो सदचो बोटवो घेवन ती बशींत चडली. कोण तरी इतलीं पदां कित्याक आयकता ह्या प्रस्नाक ताणें दिल्ली जाप थंयच वाऱ्यार विरून गेली. ती बशींत चडटकच सगळो माहोल बदलून वतालो.

'मिस आयली रे... ए, सीट दियात रे.' बोवाळ सुरू जातालो. तिवूय बी हांसत नाका नाका म्हणटाली आनी निमाणें आपले सदचे आवडीच्या जनेला कडल्या सिटार वचून बसताली. आयजूय ती थंयच बसली. सदचे भशेन कानांत इयरफोन घालतली इतल्यांत...

'मिस' ताणें तिचे म्हऱ्यांत उबे रावन म्हणलें. इतले दीस उलोवपाक फाटीं-फुडें जावपी साहिल आयज धाडसान तिचे कडेन उलोवपाक आयिल्लो.

'यॅस?' अशें म्हणून तिणें ताच्या दोळ्यांत पळयलें. कांय खीण साहिल तिका पळयत रावलो.

'आरे, उलय मरे. विचार मरे.' फाटल्यांतल्यान आवाज येतकच साहिल भानार आयलो.

'मिस, हांव साहिल. कल्चरल सॅक्रॅटरी.'

'हय. जाणां हांव.' अशें म्हणून ती हांसली.

म्हणल्यार ती म्हाका वळखता? येवजूनच साहिलाच्या काळजांत कातकुतल्यो जावंक लागल्यो. हरशीं कॉलेजींत सगल्यां मुखार आपूण हिरो म्हणून मिरोवपी साहिल सामको बाबडो जावन तिचे मुखार उबो आसलो.

'सांग, कितें जालें?' तिणें आपुलकेन विचारलें.

‘मिस, आमी कॉलेजींत एकांकी महोत्सव आयोजीत करपाचें येवजितालें. प्रिन्सिपल म्हणटालो तुमकां वचून मेळ म्हणून. तुमी नाटकांनी बी कामां केल्यांत, तुमींच योग्य मार्गदर्शन करतलीं अशेंय तो म्हणी. मिस, तुमी आसात न्हय?’

‘एकांकी महोत्सव? वा! बरी गजाल. हांव आसां. तुमी एक काम करात. एक मिटींग आपयात. मिटिंगेंत ह्या विशयाचेर डिस्कस करुया. जाता न्हय?’

‘येस. जाता मिस.’ साहिलान म्हणलें. तिणें आनिकूय उलोवचें अशें ताका दिसतालें. तिणें उलोवचें आनी आपणें तें आयकत रावचें अशें मनांत म्हणून तो थंयच रावलो.

‘साहिल, आनीक कितें विचारपाचें आसलें?’ तिणें विचारलें.

‘आँ? ना मिस. इतलेंच मिस. थँक्यू मिस.’ अशें म्हणीत साहिल परत आपल्या जाग्यार वचूंक लागलो. ताका खूब खोस जाल्ली. ताच्या मुखामळार फुलिल्लो हांसो दिव्याचे नदरेंतल्यान सुटलो ना. हेर भुरगे ताका चाळोवंक लागले. पूण दिव्या ताची सगल्यांत लागींची इश्टीण आशिल्ल्यान साहिलाच्या मनांत कितें शिजता हें तें एकलेंच सांगूंक शकतालें. साहिल फाटल्यान येतना दिव्यान हांसत ताच्या दोळ्यांत पळयलें आनी विचारलें, ‘कितें? उलयलो मरे निमाणें मिसी कडेन?’

साहिल फकत हांसलो आनी आपल्या जाग्यार बसलो. बशींत बोवाळ सुरूच आशिल्लो. बस सुरू जावन कॉलेजीचे वाटेक लागली. साहिल मात आपलेच धुंदींत आसलो. आयचो हो भांगराळो दीस खंय तरी सांठोवन दवरचो अशें ताका दिसलें. कांय खीण काय जायना ती आपले कडेन दोळ्यांक दोळे लावन उलयली हेंच ताका व्हडलें दिसलें. इतले दीस तिचे म्हऱ्यांत लेगीत वचपाक भियेवपी साहिल आयज तिचे कडेन उलयिल्लो. बस कॉलेजी

कडेन पाव मेरेन साहिल कानांत इयरफोन घालून फकत मोगाचींच पदां आयकतालो.

एकांकी महोत्सवा निमतान साहिल आनी तिची वळख वाडत गेली. तो तिचे अदिकूच लार्गी आयलो. बर्शींत लेगीत साहिल तिचेच म्हऱ्यांत बसतालो. दिव्या सदचे संवयी प्रमाण साहिलाक जागो दवरतालें पूण साहिल एकांकी महोत्सवाचें निमित्त करून तिचेच म्हऱ्यांत वचून बसतालो.

महोत्सवाची तयारी नेट धरूंक लागली. हेर कॉलेजींक आमंत्रणां धाडप, तांचे कडेन संपर्क सादप, महोत्सवाची तयारी खंय मेरेन पावल्या हें पळोवपा खातीर सुवार्तींक भेट दिवप, पुरस्कर्ते मेळोवपाक भोंवप, हीं सगळीं कामां साहिल आनी ती करतालीं. वांगडा भोंवतालीं. कामां सोंपपाक उशीर जालो जाल्यार साहिल तिका घरा व्हरून पावयतालो. आतां तीं दोगांय एकामेकांची सामकी लार्गीची इश्ट जाल्लीं.

'साहिल.' घरा उसरां आयिल्ल्या साहिलाक दिव्यान उलो मारलो.

दिव्याक पळोवन साहिलाक अजाप जालें.

'ए, तूं इतले रातचें हांगा कितें करता?'

'कांय ना. तुजी मम्मा घरांत एकलीच आशिल्ली... म्हणून रावलें. आतां तूं आयलो... हांव चल्लें... राव रे, आयज तुका इतलो उशीर कित्याक? वेळ पळयला? रातचीं साडेबारा जाल्यांत.'

'आगो, परां एकांकी महोत्सव न्हय? ताची आमी तयारी करतालीं. वेळ कितलो जालो तें कळ्ळेंच ना. मिसीक घरा पावयलें आनी सोमतो हांगा आयलों.'

'आरे व्वा! नेटार मरे तूं,' साहिलाच्या पोटाक कातकुतल्यो करीत दिव्यान म्हणलें.

'ओगी बस आं. दिवू.'

'खरें सांग आं. ती तुजी मिस काय....'

'ना गो तशें कांय ना,' साहिलान म्हणलें पूण तो मातसो लजलो.

'सांग तूं. कित्याक लजता? तूं म्हाका सांगचो ना जाल्यार कोणाक सांगतलो?'

'आगो, मम्मी म्हजी वाट पळयता आसतली.'

'ती न्हिदल्या... तुका मेजार जेवण दवरलां. सांग आतां.'

'ए, ओगीच वाज हाडिनाका आं. खरेंच तशें कांय ना.'

'यू लव्ह हर. रायट?' दिव्यान मातशें गंभीर जायत विचारलें.

'हय. तुका त्रास जालो?'

'म्हाका कित्याक त्रास? तूं स्वताक त्रास करून घेवं नाका म्हणजे जालें. कितलीय जाल्यार ती आमची टिचर इतलें धंगण दवर मिस्टर रॉकस्टार. चल, येतां हांव, बाय.'

'हांव कित्याक त्रास करून घेतलों? आनी आयक... यू नो, शी ऑल्सो लव्ह्स मी. फकत ती आपलो मोग एक्सप्रेस करूंक शकना. कारण हांव विद्यार्थी. हें वर्स सोंपलें की ती म्हजी जातली... म्हजी.' फिल्मी स्टायलीन साहिल उलयलो. दिव्या व्हडाव्हडान हांसलें.

'कितें गो माकडा? हांसता कित्याक?'

'कांय ना. तूं पिसो. ओके, बाय.' अशें म्हणून ताणें बायक स्टार्ट मारली आनी तें घरा वचूंक गेलें.

'ओके. बाय, सवकास चल.' ताणें कांय खीण दिव्या कडेन पळयलें. इतल्यांत ताच्या मोबायलाचो मॅसेज टोन वाजलो. ताणें मॅसेज वाचली. 'होप यू रिच्ड होम सेफली'.

ती मॅसेज वाचून तो सामको भुल्लुसलो. 'येस माय लव्ह' अशें टायप करचें अशें ताका दिशिल्लें पूण ताणें तो मोह टाळ्ळो आनी 'येस मिस' अशें टायप करून मोबायल जाग्यार दवरलो. वांगडा एक काळजाची ईमोजी धाडची अशें ताका दिसलें पूण तेंय धाडस ताणें केलें ना.

एकांकी महोत्सवाचो दीस उदेलो. तिणें केंस सोडिल्ले. धवो अनारकली चुडीदार घाल्लो. कानांत भांगराचीं डुलां आसलीं. जणू काय सर्गांतली एक परीच कॉलेजींत आयल्या अशें दिसतालें. तिका पळयत रावचें अशें साहिलाक दिसलें पूण तिचें रूप तोखेवपाक ताचे कडेन वेळ नासलो. ताका हो पयलोवयलो एकांकी महोत्सव येसस्वी करपाचो आसलो. कितल्याश्याच महाविद्यालयाच्या विद्यार्थ्यांनी एकांकी सादर केल्यो. महोत्सवाक अपेक्षे परस चड बरो प्रतिसाद मेळ्ळो. महाविद्यालयाच्या वेवस्थापनान तिची खूब तुस्त केली. साहिलाकूय बरें दिसलें. कार्यावळ सोंपतकच ती भायर गेली. तिचे फाटल्यान साहिलूय भायर गेलो.

'आय एम सो प्रावड ऑफ यू' कोणें तरी तिच्या खांद्यार हात दवरून तिका म्हणलें. साहिलान तें ज्युस्त पळयलें.

'तूं केन्ना आयलो शाण्या?' तिणें ताका आनंदान विचारलें.

'आतांच. ऑफिस सुट्टकच सोमतो हांगा आयलों. तूं आपयता आनी हांव येना अशें केन्ना जालां? तूं म्हजी जिणे सांगातीण मुगो आनी तुका हांव विसरतां?'

'अशें? मागीर लग्न केन्ना करुया आमी? मातशें मनार घे मरे. सगळीं विचारतात म्हाका.'

'ओके ओके. विद्यार्थ्यांच्यो परिक्षा जावंदी, तांकां सुटी पडुंदी, मागीर लग्न करुया आमी. म्हणटकच तांकांय आमच्या लग्नाक येवंक मेळटलें. कितें? कशी लागली आयडिया?'

'येस डन.' अशें म्हणून तिणें ताचो हात घट्ट धरलो आनी दोगांय मेकळेपणान हांसलीं. साहिल तांकां तिडकीन आनी अजापान पळयतालो. ताचें सपन मातयेभरवण जाल्लें.

थंयच्यान ल्हवू वतनाच तिणें ताका उलो मारलो.

'साहिल, कम हियर. मिट माय हब्बी. माय स्वीट डार्लिंग. हो म्हजो जिणे सांगाती मिस्टर....' तिणें ताचें नांव घेवन साहिलाक सांगलें.

'हें पळय, हो साहिल. ह्या एकांकी महोत्सवाचो मास्टरमायंड.' साहिलाची तुस्त करीत तिणें म्हणलें.

'मिस म्हाका कोण तरी कॉल करता. मागीर मेळटा मिस...' अशें म्हणून साहिल भितर गेलो. तो भितरले भितर घुसमट्टालो. ताचें कितेंय पूण बिनसलां हें दिव्याक कळ्ळें.

'साहिल, सगळें जालें सामान काडून. चल या घरा... हांव सोडटां तुका... चल...' अशें म्हणून दिव्यान ताचो हात धरलो आनी साहिल मोन्यांनी ताचे फाटल्यान गेलो.





# 4. लेडीज सीट




वचून बशींत बसलें. ‘लेडीज सीट ओन्ली’ अशें बरयिल्ल्या सिटाचेर बसपाचो ताका खूब घोस्त. ताका कांय कारणांय आसात. एक म्हणल्यार ह्या लेडीज सिटांचेर दादले बसनात, चली आनी बायल उबी आसल्यार लेगीत तांकां सीट

दिनात आनी दुसरें म्हणल्यार बायले म्हऱ्यांत बसपाक दादले फाटीं फुडें जातात. पूण कांय दादले आंबटशौकीन आसतात. मुद्दाम चलये म्हऱ्यांत बसतात आनी तिचेर आगळीक करपाचो यत्नूय करतात. म्हणून 'तें' लेडीज सिटाचेरच बसता आनी कुशीक आपलें बॅग दवरता. आयजूय तें लेडीज सिटाचेर बसलें आनी सदचे भशेन ताणें बॅग दवरलें.

ल्हवू ल्हवू बस भरताली. बस सुरू जावपाक अजून कळाव आसलो. लोकांक दोणांत घाल्ले आमल्यां भाशेन भरून जालें की बस सुरू जातली, मर्दीं मर्दीं थांबतली, म्हजो तर लास्ट स्टॉप अशें येवजून ताणें इयरफोन कानाक लायलो आनी तें मोबायला वयलीं पदां आयकत रावलें. पदां आयकतां आयकतां तें भायलें सैम तेळटालें. लोकांक बारीकसाणेन पळयतालें. तें मानसशास्त्राचें विद्यार्थी. देखून ताका लोकांची सायकॉलॉजी पळोवपाची आनी ताचेर चिंतन करपावी भोव आवड. पळयतां पळयतां ताची नदर एके बायलेचेर थिरावली. ती चिंतेस्त आसली. तिका कसली चिंता सतायता आसतली काय? असो विचार करतां करतां ताणें तिडकीची नुरा आशिल्ल्या दादल्यांक पळयलें. तो खूबच तिडकला. बायले-भुरग्यां कडेन झगडला आसतलो काय? आपूण जे बशींत वचपाचो ती बस वेळार येना म्हणून ताका राग आयला आसतलो काय? मागीर ताचें लक्ष कॉलेजीच्या कांय तरणाट्यांचेर गेलें. ते सामके खोशयेंत आसले. हे भुरगे इतले खूश कित्याक? कॉलेजींतलें लॅक्चर चुकोवन ते पिक्चराक बी वचून आयले आसतले काय? प्रत्येकाक पळोवन तें वेगवेगळो तर्क काडटालें. बस स्टॅण्डार उब्या आशिल्ल्या लोकांचे चेरे, तांचे कपडे, तांचे हावभाव पळोवन ताका मजाच दिसताली.

बशींत लोक चडटाले. बस भरूंक आयिल्ली. बशींतल्या कांय लोकांक तें नियाळूंक लागलें. कांय दादले, कांय चलयो, कांय बायलो उब्यो आसल्यो. दोन लेडीज सिटांचेर एकेक दादलो बशिल्लो. त्या दादल्यांक उठोवन त्या बायलांनी वा चलयांनी बसूं येतालें.

पूण तीं बसलीं नात. कारण तांकां दोगांकूय वांगडाच बसूंक जाय आसलें. एके चलयेक तर विण्डो सीट जाय आसली म्हणून तें त्या सिटार बसूंक तयार नासलें.

लोक चडटाले, ताच्या सिटा म्हऱ्यांत आशिल्लें बॅग पळयताले आनी कोणूय बसला आसत अशें समजून मुखार वताले. तें तांकां तिरशे नदरेन पळयतालें.

चली वा बायल आयल्यार आपूण बॅग काडून ताका सीट दितलें अशें तें चिंततालें. इतल्यांत एक तांबडें टी-शर्ट घालून एक तरणाटो चडलो आनी सरळ ताचें बॅग कुशीक काडून ताचे म्हऱ्यांत बसलो.

ताचें तें विचित्र वागप ताका आवडलें ना. तरी ताणें सोंसलें. आपलें बॅग काडून मांडयेर दवरलें. त्या तरणाट्याक विचित्र घाण येताली. ताचे केंस सामके पिसुडिल्ले आसले. ताच्या हाताक माश्कोत आसलें आनी तो तोंडांत तंबाकू चगळटालो. ताका ताची सामकी वीट आयली. उठून दुसरे कडेन वचून बसचें अशेंय ताका खिणभर दिसलें. पूण हालींच एके कार्यशाळेंत शिकयिल्ल्या 'टीप्स अगेन्स्ट पब्लीक मॉलॅस्टेशन' हाची ताका याद जाली. ताणें मनांत धिटाय हाडली. 'ताणें हातूच लावंदी म्हाका. ताका चपलांनी फोडना जाल्यार पळय हांव,' अशें म्हणून ताणें आपलें मन खंबीर केलें आनी ताचो स्पर्श जावचो ना अशे तरेन तें बसलें.

ताणें बोल्सांतली तिकेट काडली आनी तोंडा वयलो घाम पुसूंक लागलो. 'लेंस लेगीत ना दिसता बाबड्या कडेन,' ताणें मनांतल्या मनांत म्हणलें. तें परत जनेला भायर पळोवंक लागलें.

वेळ पासार जावचो म्हणून ताणें आपल्या बॅगांतल्यान एक पुस्तक काडलें आनी ओगीच वाचूंक लागलें. तें तिरशे नदरेन ताका पळयतालें तेन्ना तो आपलो बूक वाचता हें ताका

जाणवलें. ताणें तें पुस्तक परत बॅगांत घालें आनी आपणाक येतात आनी जमतात तश्यो गाळी तें ताका मनांतल्या मनांत घालूंक लागलें.

उठून वच्चें अशें ताका दिसतालें पूण आपलो विण्डो सीट सोडूंक तें तयार नासलें. खरें म्हणल्यार ताणें ताका कसलोच त्रास दिवंक नासलो. पूण ताचें बसप ताका त्रासदायक थारतालें.

असले लोक अशेंच करतात. पयलीं बसतात, मागीर उलयतात आनी उपरांत खंयूय स्पर्श करतात, इश्टागत करतात आनी इश्टागतीच्या निमतान कितेंय करतात हें ताणें खंय तरी वाचिल्लें. ताणें दोळे धांपले आनी आपलो स्टॉप ये म्हणसर देवाचें नांव घेत रावलें... नॉनस्टॉप!

बस मुखार वचूंक लागली. केन्ना काय म्हजो नाजाल्यार एक तर लेडीज सीटार बशिल्ल्या त्या जेंटाचो स्टॉप केन्ना काय येता अशे जाल्लें. खंयच्याय खिणाक तो आपल्याक हात लायतलो आनी ताका आपूण बरेंच पानवळ दितलें ह्याच विचारांत तें आसलें. ताचो स्टॉप आयलो. तो देंवलो. तें अजापलें. तो कसलीच वायट वागणूक दाखय नासतना गेलो? स्वताचे ‘ओव्हरथिंकींग’ तकलेर ताणें एक टपली मारली आनी आपलो स्टॉप येवपाची वाट पळयत तें रावलें...





# 5. बांद




णां स्फूर्ती, हांव मगो काल म्हज्या ल्हानपणांतले फोटे पळयतालें. तूं जाणां, हांव ल्हानपणांत चलो कशें दिसतालें. बॉयकट, टी-शर्ट्स, ल्हानशी शॉर्ट्स. तोंडार लेगीत चल्या भाशेन मस्तेपणां.'

'हय. खऱ्यांनीच? आतां पळयल्यार तूं

मस्तेपणां करतालेंशें दिसना मगो.' स्फूर्तीन हांसत म्हणलें.

'स्फूर्ती, खरें सांगूं, म्हाका मगो चलोच जावचें अशें ल्हानपणा सावन दिसतालें. हांव चलोच अशेंच म्हाका कांय खीण दिसतालें.'

'कित्याक गो? म्हाका जाल्यार हांव चली आसां तेंच बरें दिसता. आय एम प्रावड टू बी ए गर्ल.'

'कित्याक म्हणल्यार? जिवीतभर आमकां चलयांकूच संघर्श करचो पडटा. लग्न जावन दुसऱ्यागेर वचप, सांजवेळा सात जावचे पयलीं घरा येवप, ऑफिसांत आनी बशींत दादल्यांचे त्रास सोंसप, कोण केन्ना कसली आगळीक करीत सांगूं येना म्हणून भियेवन भियेवन जगप... च्ये! ते परस चल्यांची जीण बरी. कसलोच हुसको ना, चिंता ना, भंय ना. बिनधास्त जगप, जाय तें करप, जाय तेन्ना घरा येवप, कोणा वांगडा खंयूय भोंवप, जाय ती मजा मारप.' उलयतां उलयतां भावना खरशेलें.

'आगो, पुरो पुरो. हें सगळें जाणां हांव. पूण तुका एक सांगूं? चली म्हणून हे धर्तरेर जल्माक आयल्यांत. ताचे फाटल्यान कितेंय पूण कारण आसतलेंच. खरेंच, आय एम प्रावड टू बी ए वूमन.'

कांय खीण भावना स्फूर्ती कडेन पळयत रावलें. खरें म्हणल्यार स्फूर्ती आनी भावना हीं दोगांय एकामेकांच्यो सामक्यो लार्गींच्यो इश्टिणी. पूण दोगांच्या विचारां मदीं फरक आसलो. आठवेक आसतनाची तांची ही इश्टागत कॉलेजींत पाव मेरेन उरिल्ली. तीं एकामेकांच्या सूख-दुख्खांत वांटेकार जातालीं. सरभोंवतणी जावपी घडणुकां विशीं चर्चा करतालीं. विचारांचें दिवप-घेवप करतालीं. केन्ना केन्ना तांचे विचार एकामेकांक पटनासले तेन्ना वादूय जातालो आनी कांय खीण तीं एकामेकां कडेन उलयनासलीं. मागीर तितलेच

बेगीन परत उलोवपाकय लागतालीं.

बस येता तें पळोवन स्फूर्तीन म्हणलें, 'बरें गो भावना. म्हजी बस आयली. येतां हांव बाय, सियू. फाल्यां मेळुया.'

'ओके! बाय!'

बर्शींत चडत स्फूर्तीन म्हणलें. बस गच्च भरिल्ली. बर्शींत 11 स्टॅण्डींग अशें ठळकपणान बरयिल्लें पूण तिपेटीन लोकांक भरिल्ले. कांय जाण दाराचेर लेगीत लोंबकळटाले. स्फूर्तीक आतां हे गर्दीची संवय जाल्ली. हाका ताका कुशीक काडून तें फुडें फुडें गेलें. तें उबें आसलें. हरशीं तें सदांच उबें रावनूच प्रवास करतालें पूण आयज ताका खूब पुरोशें जाल्लें. ताची मासीक पाळी चलताली.

कोणेंय तरी उठून आपणाक सीट दिवचें अशें ताका मनांतल्यान दिसतालें. आनी तेन्नाच अजाप घडलें. ज्या सिटा म्हऱ्यांत स्फूर्ती उबें आसलें त्याच सिटा वयली एक बायल उठली. घडये तिचो स्टॉप आयिल्लो आसुंये. त्या सिटार बसून स्फूर्तीन ते बायलेचे मनांतल्या मनांत उपकार मानले. स्फूर्तीचे कुशीक जनेला कडेन आंगान मोटोसो एक दादलो बशिल्लो. तो पांय पातळावन बशिल्लो. शर्ट घाल्लो पूण शर्टाचे बटण सारके लावंक नासले. खाड वाडिल्लें. पोल्याक कसली तरी माव आशिल्ली. पॅण्टूय बोतरी आसली. स्फूर्तीन जेन्ना ताचेर नदर मारली तेन्ना तें ताका अक्षरशा विटलें. बस जस जशी मुखार वताली तस तसो तो स्फूर्तीक चडूच तेंकतालो आनी कसोसोच हांसतालो. ताचें तें वागप स्फूर्तीक विचित्रूच दिसलें. तें मातशें कुशीक सरलें. तो परत ताचे लागीं आयलो.

'मातसो सारको बस. म्हाका सारकें बसूंक मेळना,' स्फूर्तीन मातशे तिडकीनशें म्हणलें.

त्या दादल्यान स्फूर्तीक रागान पळयलें आनी आपले भितरूच कितें तरी बडबडत

कुशीक सरलो.

बस बेगीन पावची अशें तें देवा कडेन मागतालें. इतल्यांत ताचे कुशीक ताच्याच वयाचो एक तरणाटो येवन उबो रावलो. सामको स्मार्ट दिसतालो. आंगान गोरो, लांब रुंद, शर्ट-पॅण्ट आनी हातांत एक बॅग आशिल्लें. ताका पळोवन तो खंयचे तरी बरे कंपनींत कामाक आसता अशें स्फूर्तीक दिसलें. बस स्पीडब्रेकराचेर मातशी हाल्ली आनी तो तरणाटो अक्षरशा स्फूर्तीचेर पडलो. स्फूर्तीन आंग काडलें.

'सॉरी आं.' अशें म्हणून तो विचित्र हांसलो.

स्फूर्ती येवजूंक पडलें. हो तोल वचून म्हजेर पडला काय मुद्दम पडला आनी पडपाचें नाटक केलां? विचार करतां करतां तो तरणाटो मुद्दम आपणाक तेंकता पूण तशें तो दाखयना, साव जावन दुसरे कडेन पळयता हें स्फूर्तीक जाणवलें. स्फूर्तीन एक फावट ताचे कडेन रागान पळयलें तेन्ना तो थोडो वेळ कुशीन रावलो पूण परत ताचें स्फूर्तीक तेंकप चालूच आसलें. स्फूर्ती ताचे वागणुकेक विटलें.

'हॅलो, कितें चल्लां तुजें? सारको उबो रावंक येना?'

'बशींत इतली गर्दी आसा ती दिसना तुका? बरें फुरफुरता मुगो तूं. आमकां कितें तुका तेंकपाची खुमखुमी मारूंक ना. बस हालता म्हणून आमी हालतात,' ताणें म्हणलें.

'तुजीं नाटकां नाकात. येदोळच्यान हांव तुका पळयत आसलें. तूं गरज नासतना म्हजेर पडटा. कितें चलयलां तुवें?'

'तुजें म्हणून नाका जाल्लेंच मुगो. तुका कितें म्होंव लागलां परत परत तुजेर पडपाक? बशींत कितली गर्दी आसा ती पळय. आतांच्यो चलयो, चल्यांक वा दादल्यांक फकत वांकडे

नदरेन पळयतात. न्हय रे?' ताचे कुशीक उबो राविल्ल्या एका दादल्याक ताणें म्हणलें.

स्फूर्तीक ताची तिडक मारली. ताच्या कानसुलार फुलोवचें अशें दिसलें. हे दादले अशेच! मुद्दम पडटात आनी साव जातात अशें स्फूर्ती मनांत येवजितनाच एक जाणटी बायल म्हणपाक लागली, 'खरें रे बाब तुजें. आतांच्या चलयांक पाशिंयेंस म्हणटा तें नाच. गर्दी आसा थंय एकामेकांचें आंग एकामेकांक तेंकतलेंच. ताका उपाय ना. जांकां दादल्यांची एलर्जी आसा तांणी बसींत प्रवास करचोच न्हय.'

तें आयकून स्फूर्ती सामकें रडपाक पावलें. तरी ताणें स्वताक सावरलें. आपलो स्टॉप लागीं पावलो म्हणून तें उठलें आनी गर्देंतल्यान वाट काडीत मुखार वचपाक लागलें. तो तरणाटो ताच्या जाग्यार बसलो.

'नसत्यो कटकटी रे बाबा. सगळो मूड वगडायलो म्हजो,' त्या तरणाट्यान स्फूर्तीक आयकूंक येत अशा आवाजान म्हणलें.

स्फूर्ती आपल्या स्टॉपार देंवलें. ताका सामकें पुरो जाल्लें. शारिरीक तशेंच मानसीक रितीन तें थकिल्लें. ताची तकली जड जाल्ली. तें घरा पावलें. ताणें आपली पर्स कदेलार दवरली. इतल्यांत ताची नदर एका इंग्लीश दिसाळ्याचे पुरवणेचेर पडली. कोणें तरी एक लेख बरयिल्लो. ताचो माथाळो आशिल्लो 'आर यू हॅपी टू बी वूमन?'

'नो. आय एम नॉट. खरें तुजें भावना. आय वीश इवन आय वॉज ए बॉय,' ताणें म्हणलें. ताका हुंडको फुटलो आनी गादयेच्या उशा भितर आपलें तोंड खुपसून तें रडत बसलें....





# 6. रोजाना




र वर्सा भाशेन शीला ताचे कॉलेजीच्या पेपर तपासपाच्या रुमांत बसून पेपर तपासतालें. हें काम आतां ताचे आंगवळणीक पडिल्लें. फाटलीं वीस वर्सां तें हें काम करतालें. हालींच ताच्या भुरग्यांनी ताका नवो फोन घेवन दिल्लो.

फोनांत ताचे आवडीचीं पोरणीं गितां घालून दिल्लीं. इयरफोन लावन गितां आयकतां आयकतां शीला पेपर तपासतालें. आयज पयलोच दीस आशिल्ल्यान हेर टिचरी अजून कामाक लागूंक नासलीं.

'तुझे देखूं रोजाना.' हें गीत कानार पडलें आनी ताच्या मनान ताका भूतकाळांत व्हरून सोडलें. ताच्या दोळ्यां मुखार वीस वर्सां आदलें चित्र उबें रावलें. शीला कॉलेजीच्या रुमांत उबें आसा. ताणें गुलाबी झगो घाला. मुखार सूट घालून राजेश उबो... राजेश... ताचो घरकार... ताका नाचपाक आवडना... लग्ना आदीं शीला ताका मुद्दम काजराक बी घेवन वतालें. नाच शिकोवपा खातीर. शीलाक नाचूंक आवडटाले. अजुनूय आवडटा. कानार पडपी गितांच्या तालार तीं दोगांय नाचतात. चारूय वटांनी गुलाबाच्यो पाकळ्यो पडटात. शीलाच्या तोंडार मुमुरखो हांसो फुल्लो...

पद सोंपलें. शीला भानार आयलें. मुखा वयलो राजेश नाच्च जालो. गुलाबाच्यो पाकळ्यो लेगीत नाच्च जाल्यो.

शीलाचें पेपर तपासपाचें काम परत सुरू जालें. थोडे पेपर तपासून तें घरा गेलें. भुरगीं अजून येवंक नासलीं. ताणें येदोळ आयकल्लें पद परत लावडस्पिकराचेर लायलें आनी पद गुणगुणत तें जेवण गरम करूंक लागलें.

इतल्यांत बॅल वाजली. भुरगीं बेगीन आयलीं दिसता अशें म्हणून ताणें दार उगडलें पळयल्यार दारांत ताचो घरकार राजेश आसलो. सादो शर्ट आनी पॅण्ट घालून. शीलाक होदोळ सपनांत आयिल्लो तरणो सुट-बुटांतलो राजेश याद जालो आनी ताका हांसूंक आयलें.

'आयज बेगीन आयलो?' शीलान ताका विचारलें.

'हय. जिवाक मातशें बरें दिसना जालें,' अशें म्हणून तो दिवाणाचेर बसलो.

शीला कितलोसोच वेळ ताका पळयत रावलें. कॉलेजींतलो हिरो राजेश ताका याद जालो. इतलो कसो बदललो हो? कसो भागलो? कॉलेजींत आसतना म्हजे कडेन उलोवपाक धडपडपी आनी म्हजीं फकांडां मारपी राजेश तो होच काय? नोकरेक लागत सावन ताका म्हजे कडेन, भुरग्यां कडेन उलोवपाक वेळूच ना. पयलीं तो कथा, कविता बरयतालो, गितांय रचतालो. आतां सगळें सोडलां ताणें. म्हाका आनी भुरग्यांक खंयूय भोंवडावन हाडपाकूय ताका उसरपत ना.

'शीला, तूं जेवलें?' राजेशान विचारलें.

'ना. वांगडाच जेवुया. मागीर जाय तितलो न्हीद,' शीलान म्हणलें आनी तें जेवण वाडपाक रांदचेकुडींत गेलें. राजेश हातपांय धुवन रांदचेकुडींत आयलो आनी ताणें फटाफट कांदे, टमाट चिरून ताचें सालाद केलें.

बरें दिसना म्हणपी राजेश संवसारा वटयां आशिल्ली आपली जापसालदारकी मात कुशीक वडयना. हांवूंय जाम जाता हें जाणा जाल्ल्यान ताणें केल्ली ही ल्हानशी मजत लेगीत शीलाक थाकाय दिवन गेली. आनी तातूंत आयज ताचो मुड लेगीत गुलाबीच आसलो– कांद्या भाशेन!

आयज कांदे गुलाबीच आसले काय शीलाक भासले तें ताका कळ्ळें ना. दोगांय जेवंक बसलीं. शीलान चुकून रिपीट मोड ऑन केल्ल्यान 'तुझे देखू रोजाना' हें पद परत लागलें.

पद आयकून तीं जेवतालीं. आयज खूब तेंपान तीं वांगडा जेवतालीं. शीला राजेशाक पळयत आसलें. तो कसले तरी उमेदीन जेवतालो. ताचीय फाटली याद जागी जाली काय? शीला मात त्या गुलाबी रंगाच्या कांद्या कडेन पळोवन मुमुरखेंच हांसतालें. राजेशाक गुलाबी रंग आवडटालो.





# 7. घावो



पुराय सांज ते दोगूय भोंवत आशिल्ले. ताणें नवी बायक घेतिल्ली आनी तेच बायकीन ते हांगा-थंय भोंवताले. भोंवतां-भोंवतां शारा पासून ते कितले पयस

आयले तें तांकां कळ्ळेंच ना. बऱ्या वेळान तांणी घडयाळी कडेन पळयलें. पळयत जाल्यार रातचीं आठ वरां जावन गेल्लीं. आनी ते ज्या जाग्यार पाविल्ले थंयच्यान तांकां घरा वचपाक उणेंच वरभर तरी जायच आशिल्लें. घरा कडल्यान फोनार फोन येतालें. फट उलोवपाक तांकां जमनासले देखून एक तर ते फोन घेनाशिल्ले वा कट करताले.

परत परत फोन वाजता म्हणून एकल्यान बेजारून फोन घेतलो. 'हॅलो. आई, हांव पंदरा मिणटांनी पावलों,' इतलेंच सांगून ताणें फोन दवरलो.

'पापया, आमी खंय पावल्यात तें जाणा मरे? पंदरा मिणटांत तूं घरा कसो पावतलो?' दुसऱ्यान विचारलें.

'तशें सांगचें पडटा रे तें. सोड खबर. चल बेगीन पावलां घालुया. घरा कडेन उसरां पावल्यार आई आनी बाबा घर माथ्यार घेतलीं'.

अशें म्हणून ताणें बायक स्टार्ट मारली आनी केन्नाच व्हरूंक ना इतले स्पीडीन व्हेली. बायकाचो धपको कोणाक बसत हाचेंय ताका भान नासलें.

घरा पावपाक आनीक अर्दवर तरी उरिल्लें. वाटेर बिण्ण काळोख आसलो. रस्त्यार कोण्ण नासलो. कुशीक घरांय नासलीं. मनशाची जाग नासली. एके कडेन लायटीचो खांबो आसलो पूण लायट पेटनासली.

इतल्यांत एक सुणो आडवो आयलो. ह्या सुण्याक वाटावपाक ताणें ब्रेक मारलो, तेसरशीं बायक उसळ्ळी आनी बायका वयले दोगूय सकयल पडले. एकल्याचो पांय झरकटलो जाल्यार दुसऱ्याच्या हाताक लागलें. ते तशेच उठले. बायक उबी केली.

इतल्यांत एकल्याक घरच्यान फोन आयलो.

'आरे देवा! ही आनी आतां कित्याक फोन करता?'

'पांच मिणटांनी पावलों म्हणून सांग.'

'आई, पांच मिणटांनी पावलों.'

'चल, आतां बायक हांव चलयतां,' अशें म्हणून ताणें बायक स्टार्ट मारली आनी नेटान व्हेली.

'म्हाका तशें टॅन्शन ना. मम्मा फॉरेन टूराक गेल्या. ती गोंयां पावता म्हणसर घाव पेखतलो,' बायक चलयतां चलयतां ताणें म्हणलें.

'तुजे बरें आसा रे पूण म्हजें कितें? म्हजी आई परत परत कॉल करता. कितें सांगपाचें तिका हेंच टॅन्शन आयलां म्हाका.'

'ल्हवू लिपून वच रे.'

पंदरा मिणटांनी ते घरा पावले. 'तो' भियेत भियेत घरा गेलो. कोंपराक जाल्लो घावो लिपयत तो भितर गेलो. सोमतो मान्न्यांत. तो घावो ताका बरोच दुखतालो. पूण आवयक सांगल्यार ती ओगीच बोवाळ करतली म्हणून तो ओग्गी रावलो. सरळ न्हावनूच भायर आयलो.

'बाबू, मेजार तांबडें वखद दवरलां. कोंपराक लाय आं,' आवयन म्हणलें आनी आपल्या कोंपराक घावो जाला हें आवयक कशें कळ्ळें काय, ताचें मन चिंतूकच उरलें. ताका हांसचें काय रडचें तेंच कळ्ळें ना.






# 8. तिकेट




ताच्या दोन इश्टां वांगडा तें बर्शींत चडलें. सदचे भशेन बस भरिल्ली आशिल्ली. बसपाक सीट नाशिल्लें म्हणटकच ताका उबेंच रावचें पडलें. लोकांची बडबड सुरू जाली. आयज केन्ना न्हय तें ताचे कडेन मोडचे पयशे आशिल्ले. हरशीं सदांच ताचो कंडक्टरा कडेन वाद जातालो.

हाफ तिकेटी खातीर. तो कंडक्टर ताका उरिल्ले मोडचे पयशे केन्नाच दिनाशिल्लो. तें केन्नाच मोडचे पयशे हाडिनाशिल्लें. पूण आयज आवयन ताका भरपूर मोडचे पयशे दिल्ले. कंडक्टर तिकेट घेवपाक आयलो. 'एक हाफ फोंड्यां' ताणें कंडक्टराक सांगलें. कंडक्टरान तोंड वांकडें करून पयशे घेतले आनी ताका तिकेट दिली. हेरांचे पयशे घेवपाक तो फुडें गेलो.

सेकंड लास्ट सिटार एक बायल बशिल्ली. आंगान बारीक, केंस सोडिल्ले, रंगान गोरी, फ्रॉक घाल्लो. ताणें सहज म्हणून फाटल्यान पळयलें, ज्युस्त ते बायलेची नदर ताचेर पडली. ती बायल मातशी आबूजशी जाल्ले भाशेन ताका दिसली. ती ताकाच पळयताली, हडकुपाक सोदताली अशें ताका दिसलें.

'हांव काय हे बायलेक वळखना, ही म्हाका कित्याक पळयत रावल्या काय? कित्याक हडकिता काय?' अशें मनांत म्हणून ताणें नदर दुसरे कडेन व्हेली.

ती बायल ताकाच शूत शूत करून उलो मारताली.

'आगो, कितें करूं? ती बायल म्हाकाच पळयता, म्हाका हडकुपाक सोदता, म्हाका उलो मारता,' तें आपले कुशीक बशिल्ले इश्टिणीच्या कानांत फुतफुतलें.

'हय मुगो. तुकाच मारता ती उलो. घडये तूं तिका आवडलें दिसता,' विचित्र हांसून ताचे इश्टिणीन म्हणलें.

'ए! कसलीं फकांडां मारता गो. कितें करचें तें कांयच कळना म्हाका आनी तुका फकांडां सुचतात?'

'तूं तिचे कडेन लक्ष दिनाका. ती फाटल्यान सेकंड लास्ट सिटार बसल्या. तुका कित्याक पडलां तिचें?'

'कित्याक म्हणल्यार? घडये तिका म्हजे कडल्यान कसलोय आदार बी जाय दिसता.'

‘अशें? तशें जाल्यार तुका जाय तें कर. हांव आनीक कांय सांगना तुका.’

अशें म्हणून ताची इश्टीण फेसबूक पळोवंक लागली.

कांय वेळान ती बायल उठून मुखार आयली आनी ताचे म्हऱ्यांत येवन उबी रावली. तें सामकें घुसपलें.

‘कॅन यू प्लीज हॅल्प मी?’

‘शूअर. वॉट कॅन आय डू फोर यू?’ ताणें विचारलें.

‘ॲक्च्युअली आय फॉरगॉट माय वॉलेट ॲट होम. कॅन यू प्लीज पे माय तिकेट?’ तिणें सांगलें आनी तें गडबडलें. कितें करचें तेंच ताका कळना जालें. इतल्या लोकांक सोडून ती आपणा कडेनूच कित्याक आयली? ती खरें उलयता कित्या वयल्यान? तिच्या भेसा वयल्यान तरी ती फट उलोवपी बायल न्हय अशें ताका दिसतालें.

ताणें आपले इश्टिणी कडेन पळयलें. इश्टिणीन ताका दिनाका म्हणून मान हालोवन सांगलें. ती प्लीज प्लीज म्हणत आसली.

‘सॉरी, आय डोण्ट हॅव द चेंज,’ ताणें म्हणलें.

‘प्लीज. हॅल्प मी. जस्ट सी. जस्ट चॅक यूवर पर्स इफ यू हेव द चेंज. इट वूड बी ग्रेट ऑफ यू’ ती बायल ताचे फाटिकूच लागिल्ली.

‘मॅडम, काण्ट यू हियर दॅट शी डजण्ट हॅव द चेंज. गो बॅक. शी काण्ट हॅल्प यू,’ ताचे इश्टिणीन मातशे तापूनच तिका सांगलें.

‘यू शट अप. तें म्हजें आनी ताचें मॅटर. तूं मदीं पडुंनाका,’ इतलो वेळ काकुळटेक येवन उलयताली ती बायल अचकीत तापली तें पळोवन तें अजापलें.

परत ती ताका काकुळटेक येवन सांगूंक लागली, ‘प्लीज, प्लीज. जस्ट पे टिल ओल्ड गोवा.’

‘ओके, फायन. पे करतां,’ अशें म्हणून तिची आनीक कटकट नाका म्हणून ताणें तिकेटीचे पयशे कंडक्टराक फारीक केले. कंडक्टरान ताचे कडेन विचित्र नदरेन पळयलें आनी तिकेटीचे पयशे घेवन तिका तिकेट दिली.

‘थँक्यू सो मच. देव बरें करूं,’ अशे म्हणून ती बायल परत आपल्या फाटल्या सिटार वचून बसली.

‘सामकें आवटें मुगो तूं. कित्याक काडली तिची तिकेट? वळख ना पाळख. अशी म्हणून कोण कोणाची तिकेट काडटा?’ तिचे इश्टिणीन ताका म्हणलें.

‘आसूं गो. सोड खबर,’ ताणें म्हणलें.

इतले म्हणसर ओल्ड गोंवा आयलें. ती बायल देंवलीच ना. ताका अजाप जालें. तें तिचे कडेन पळयतालें पूण ती बायल आपूण ताका वळखच नाशिल्ले भशेन दुसरेच कडेन पळयताली. कांय वेळान बस फोंड्यां पावली. ती बायल बर्शींत तश्शी बसून आशिल्ली. तें देंवलें. तिवूय देंवली. ताका दिशिल्लें, ती आपणाक हांसतली. थँक्यू म्हणटली. पूण कांयच ना. वयल्यान आपूण तुका वळखच नाशिल्ले भाशेन करून ती सरळ मार्गाक लागली. ताचें तोंड आंच उरलें.

‘हांवें तुका पयलींच सांगिल्लें तिची तिकेट काडिनाका म्हणून. असलीं पडमूर बायलां आसतात संवसारांत. पळय, तुवें तिची तिकेट काडली पूण तिणें तुका थँक्यू सोड, तुका हडकिले लेगीत ना,’ ताचे इश्टिणीन म्हणलें.

तें आनीक कितें उलयतलें. तोंड धांपून आपल्या मार्गाक लागलें.





# 9. परिक्षा... बसींतली



तीं चौगांय बशीक राविल्लीं. परिक्षांचे दीस आशिल्ल्यान तांकां बेगीन बस धरून घरा पावपाचें आशिल्लें. बस आयली. एके चलयेन म्हणलें, 'आगो, बस

भरल्या मुगो. बसपाक जागो ना. फुडले बशीन या.'

बाकीचीं म्हणपाक लागलीं, 'रिते बशीक रावल्यार आमी हांगाच उरतलीं.' तिगां जाणां मुखार एकलेचें कांय चल्लें ना. तीं बशींत चडलीं आनी सामक्या फाटल्या सिटा कडेन वचून उबीं रावलीं. सदचे भाशेन तीं त्या दिसाच्या पेपरांतले प्रस्न आनी जापो डिस्कस करूंक लागलीं. निमाण्या सिटार एक दादलो सोडल्यार सगळीं बायलांच बशिल्लीं. तो दादलो आंगान बारीकसो आसलो. मर्दी मर्दी कित्याय कितें बडबडटालो. चड करून तो बेबदो आसतलो असो तर्क तांणी काडलो.

हांकां त्या दादल्याक पळोवन वीटशी आयली. मर्दीच त्या दादल्यान तातूंतले एक चलयेक विचारलें, 'वॉट इज द टायम मॅडम?'

'फोर.' ते चलयेन सांगलें.

'वॉट फोर?' त्या दादल्यान म्हणलें आनी तो तांकां पळोवन विचित्रसो हांसलो. तांकां त्या दादल्याची तिडक मारली.

तातूंतले एके चलयेन दुसरे चलयेक म्हणलें, 'आमी मुगो तेवटेन तोंड करून रावुया. सामकें सवंगशें. आमकांच पळयता. ताचें म्हाका धड लागना.'

तिगांयनी ताचें आयकलें आनी चौगांय दुसरे वटेन तोंड करून रावलीं. तीं तशीं रावतात थंय आसात त्या दादल्या म्हऱ्यांत बशिल्ली बायल बोवाळ घालपाक लागली, 'आरे, आरे, कितें करता रे? शी..शी...शी...'

ते बायलेचो बोवाळ आयकून त्या चौगांयनी फाटीं वळून पळयलें. तो मनीस अस्वस्थसो जाल्लो आनी परत परत ओंकतालो. 'कितें जालें? कितें जालें?' म्हणीत कंडक्टर थंय धांवत आयलो.

‘कंडक्टर, तो ओंकता मरे,’ ते बायलेन कंडक्टराक सांगलें.

कंडक्टरान सोमती पिल्लूक मारून बस थारयली आनी ताका म्हणलें, ‘चल, चल, पयलीं देंव सकल. सगळी घाण केली मरे तुवें. झेपना जाल्यार कित्याक इतलें घेता?’ कंडक्टरान तापून म्हणलें आनी तो ताका सिटा वयल्यान काडूंक लागलो.

ताका चलपाक जमनासलें. ताचे पांय सारके पडनासले. ताच्या हावभावा वयल्यान तो खूब तर्र आशिल्ल्याचें जाणवतालें. बशींतले सगळे लोक ताका विटिल्ले. खंय झक मारली आनी हे बशींत चडलीं अशें त्या चौगांयकूय जालें. एके चलयेक तर त्या उग्र वासान ओंकारेंच येवपाक लागिल्लें. ते बशींतल्या एकल्या कडेन ‘सॅनिटायझर’ आशिल्लो. तो ताणें सगल्यांच्या हातार घालो. तो वास मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार त्या उग्र वासान एकल्याक तरी घुंवळ येवपाचीच.

त्या बेबद्याक देंवोवन बस फुडें गेली खरी, तरी ते बशींत कोणाकूच बसनशें दिसनासलें. केन्ना काय आपलो स्टॉप येता अशें प्रत्येकाक जाल्लें. बसभर ओंकाऱ्याचो वास पातळिल्लो आनी सगल्यांच्याच पोटांत धवळूंक लागिल्लें. तातूंतलीं अर्दीं बायलां तर तोंडार लेंस वा पदर घेवनूच बशिल्लीं.

त्या चौगां मदले एके चलयेन म्हणलें, ‘तुमकां हांवें पयलींच सांगिल्लें ही बस नाका म्हणून. म्हाका कळिल्लेंच हे बशींत कितें तरी विचित्र घडटलें म्हणून.’

‘खरेंच? सिक्स्थ सॅन्स काय कितें म्हणटात तें बरें आसा मुगो तुका,’ दुसरे चलयेन फकांडांनी म्हणलें आनी तिगांय खळखळून हांसलीं.

‘तुमकां हांसपाक कितें जालां. ह्या वासान म्हज्या पोटांत सामकें धवळूंक लागलां. केन्ना काय घरा पावनशें जालां म्हाका. सामकी वीट हाडली त्या बेबद्यान,’ एके चलयेन म्हणलें.

‘खरें तुजें. हरशीं म्हाका मुगो कोणूय ओंकल्यार बिकल्यार वीटबी तशी काय येना पूण हाचो बाये विचित्रूच वास. त्या वासान म्हजी तकली सामकी उसळूंक लागल्या. कसलो वास म्हणून कोण जाणा.’

‘आगो, तो सोन्याचो वास.’

इतल्यांत थंय कंडक्टर आयलो. ज्या सिटार तो दादलो बशिल्लो, ओंकिल्लो त्या सिटा कडेन ताचे दोन रुपया पडिल्ले. ते व्हरपाक तो आयिल्लो. थंय हळशिकेंत हात घालून ते दोन रुपया काडप ताच्या जिवार येतालें.

‘आगो, तुमी उबीं कित्याक? बसात मुगो त्या सिटार.’ कंडक्टरान उब्या राविल्ल्या त्या चलयांक पळयत म्हणलें. त्या सिटार कोणूय बसलो की ताका आपूण ते दोन रुपया काडूंक लायतलों अशें कंडक्टरान येवजल्लें जावंये.

‘बसतात आमी, पूण पयलीं तुजे ते दोन रुपया काड मरे,’ तातूंतले एके चलयेन हांसत म्हणलें.

‘झक मार ते दोन रुपया,’ अशें म्हणून कंडक्टर फुडें गेलो.

परत एक फावट तीं चौगांय हांसलीं. बशींतल्यान देंवतकच तातूंतले एके चलयेन म्हणलें, ‘पूण कितेंय जावं आं. ह्या सगल्या बोवाळांत आमी परिक्षेचें टॅन्शन मात साप्प विसरलीं.

‘तुवें आनी कित्याक याद केली तर गो?’ दुसऱ्यान म्हणलें आनी परत तीं एकामेकांचीं फकांडां करीत घरचे वाटेक लागली.





# 10. दिवाळी



भायर 'नरकासूर नायट' चलताली. एके वटेन नरकासूर सर्त चलताली जाल्यार दुसरे वटेन भोवढंगी भेस सर्तीचो इनामां वांटप



मुवाळो रंगार आयिल्लो. इनामां भेटयले उपरांत मतदारसंघाचो आमदार पोटतिडकीन उलयतालो, 'ज्या दिसा श्रीकृष्णान नरकासुराक मारिल्लो त्या दिसाची याद म्हणून आमी नरकासुराक मारून दिवाळी मनयतात. कृष्णान नरकासुराक मारलो पूण आमची नरकासुरी वृत्ती अजून सोंपूंक ना. ही वृत्ती ना-नपयत करून उडोवपाचो आयज वेळ आयला. दर एकल्यान आपले भितरलो नरकासूर ना करून उडोवंक जाय.'

'तो' एकलोच आपल्या घरांत बसून कितें तरी येवजितालो इतल्यांत ताच्या कानार आमदाराचीं उतरां पडलीं. ताका हांसूंक आयलें.

'आपले भितरलो नरकासूर...' ताणें म्हणलें आनी तो मोट्यान हांसलो.

कांय वेळान ताणें बॅग उगडलें, सिगार फुसकायली आनी सिगाराच्या धुंवराचीं वर्तुळां पळयत रावलो. 'हो... हो... म्हजे भितरलो नरकासूर.'

अचकीत ताचें मुखामळ गंभीर जालें आनी तो सिगार ओडूंक लागलो. सिगाराचो धुवर सोडटना ताका खूब वर्सां पयलींची याद जाली. ताचो भूतकाळ ताचे नदरे मुखार नाचूंक लागलो.

हय.. तेंच तें... ताणेंच म्हणिल्लीं तीं उतरां... ''खरेंच तूं खूब बरो मनीस. पूण हांव तुज्या वांगडा रावंक शकना... आय एम सॉरी''... हीं उतरां ताच्या काळजाक लागिल्लीं. ताका खूब दुख्ख जाल्लें. हें दुख्ख ल्हव करपा खातीर ताणें सिगार ओडिल्लें. सिगार ओडपाची संवय ताका तेन्नाच्यान लागिल्ली.

''तें म्हाका म्हज्या जिवितांतल्यान सोडून गेलें आनी तूं म्हजे जिणेंत आयलें,'' सिगाराक पळयत ताणें म्हणलें.

रात खूब जाल्ली. भायर बोवाळ मात चालूच आशिल्लो. इतल्यांत 'ठा' करून बाटली फोडिल्ल्याचो आवाज कानार पडलो. ते सरशीं तो भानार आयलो. ताणें जनेल उगडून भायर पळयलें. एक तरणाटो सामको तायट जावन पडिल्लो.

'चलात. नरकासूर नायटीचो पयलो सुरांटो पडलो,' ताणें हांसून म्हणलें. ताचें मुखामळ परत गंभीर जालें. ताच्या मनान ताका परत भूतकाळांत व्हेलें.

ताची पिराय आसतली अठरा वर्सांची. कॉलेजीचें पयलें वर्स. पयलेच परिक्षेंत तो ढुम्म. तो एकलोच फेल जाल्लो अशें न्हय, हेर कितलेशेच विद्यार्थी फेल जाल्ले. फेल जाल्ल्या विद्यार्थ्यांक खूब दुख्ख जाल्लें. हें दुख्ख ल्हव करपा खातीर तांणी उपाय काडिल्लो. तांणी ताकाय थंय फोर्सान व्हेल्लो. नाका नाका म्हणटा आसतना तांणी ताच्या तोंडाक बाटली लायिल्ली आनी तेन्नाच्यान ताका पिवपाची संवयूच लागिल्ली.

टिचरीन तापोवं ना जाल्यार इश्टा कडेन झगडीं जावं ताणें वच्चें आनी इल्लें कोप मारचें हें आतां सदचेंच जाल्लें. सोरो हो ताचो दुख्खाचो सांगातीच कसो जाल्लो.

तो सोरो पिता ही खबर घरांत पावली. आवयन बरोच आकांत केलो. बापायन ताका बरोच उजरायलो. आवय-बापायची तापोवणी ताच्या कानार पडूंक लागली. भायल्या धोल-ताशांच्या आवाजान तो भानार आयलो.

ताणें भायर पळयलें. सगळे वेगळेच धुंदींत नाचताले. इतल्यांत, 'दम मारो दम... मीट जायें गम...' हें पद ताच्या कानार पडलें. तो हांसलो. ''मार रे तूं दम... तितलेंच तुका बरें दिसतलें...'' ताच्या इश्टांचीं तीं उतरां ताका याद जाली. ह्याच उतरांनी ताका भुलयिल्लो आनी पिवपाक शिकयिल्लो.

एके वटेन त्यो आदल्यो यादी आनी दुसरे वटेन नरकासूर नायटीचो बोवाळ. हो कलकल ताच्यान सोंसूंक जायना जालो. कांय खीण ताणें दोळे धांपले. तरी पूण काळीज कलकलतालें. ताणें मोट्यान किळांच मारली, 'स्टॉप इट!' कुशीचे कुडींत न्हिदिल्लो तो जागो जालो. धांवत ताचे म्हऱ्यांत येवन ताणें ताका विचारलें, 'हॅलो, आर यू फायन?'

'ओ... हय... हय... आय एम ओके. आय एम फायन...' ताणें म्हणलें.

कसलो तरी विचार करून तो उठलो. ताणें ड्रॉव्हरांत आशिल्लीं सिगाराचीं सगळीं पाकिटां घेतलीं, सोऱ्याच्यो सगळ्यो बाटल्यो घेतल्यो आनी भायर हाडून तीं पाकिटां आनी त्यो बाटल्यो खळयेंत उडयल्यो. लायटरान ताका उजो घालो आनी लायटरूय त्या उज्यांत शेंवटिलो.

फांतोड जायत आयिल्ली... नरकासूर वध चलतालो... तांणी नरकासूराक लासून मारिल्लो... जाल्यार हाणें आपले नरकासूर लासून उडयिल्ले.

'आरे, अशें अचकीत कितें जालें?' इतलो वेळ ताका अजापान आनी लत्तुबायेन पळयतल्या ताच्या इश्टान ताका विचारलें.

तो मंद हांसलो. 'हांवें म्हज्या मनांतल्या नरकासुरांक मारलो... चल या आतां... अभ्यंगस्नान घेवया... दिवाळी मनोवया.'






# 11. फोन




ताचो फोन वाजलो. सदचे भाशेन तो फोन करतालो आनी ताचो फोन येतकच ताच्या तोंडार मुमुरखो हांसो फुलतालो. ताणें फोन घेतलो.

‘हॅलो, सांग शाण्या, कितें म्हणटा?’

‘कांय ना गो. म्हाका आयज तुका एक म्हत्वाची गजाल सांगपाची आसा.’

‘अशें? सांग मरे. कितें जालें? सगळें सारकें आसा मरे?’

‘हय गो. आतां मेरेन सगळें सारकें आसा. पूण फुडें सगळें सारकें चलतलेंच अशें दिसना म्हाका.’

‘कितें? तूं कितें उलयता? म्हाका कांयच कळना. प्लीज, सारकें सांग न्हय कितें जालां तें.’

‘बरें सांगतां, पूण एक, तूं कांयच मनाक लावन घेवंनाका. यू विल हॅव टू फेस इट.’

‘आरे शाण्या, पूण जालां कितें? असो कुवाड्यांनी कित्याक उलयता? सारकें सांग न्हय कितें जालां तें.’

‘माय स्वीट हार्ट, हांव...’

‘एक मिनीट. आयज तुजो आवाज म्हाका वेगळोचसो दिसता. आनी हें नवें कितें सुरू केलां स्वीटहार्ट म्हणून.’

‘आगो, हांवूच तो. म्हजो ताळो मातसो बसला.’

‘थंडेन बी आसतलो. एक काम कर. गरम दुदांत इल्ली हळद घालून घे. जिवाक बरें दिसतलें.’

‘बरें, तशेंच करतां. आनीक कितें सांगपाचें आसा?’

‘ना. इतलेंच कर. तुजो ताळो सुट्टलो. बाय द वे, तूं म्हाका कसली तरी म्हत्वाची

गजाल सांगपाचो आसलो. सांग मरे कितें जालें तें.'

'हां. बरी याद केली. कशें सांगूं तेंच कळना. हांव तुका सांगतां पूण म्हाका प्रॉमिस कर, तूं म्हजेर रागार जावचें ना म्हूण.'

'ओके. कितें सांगपाचें आसा तें बेगीन सांग. ओगीच म्हाका गॅसार दवरिनाका.

'ओके! तर आयक, म्हाका आमचें हें नातें हांगाच सोंपोवंक जाय.'

'वॉट? पूण कित्याक? कितें केलें हांवें?'

'तुवें कांयच करूंक ना.'

'मागीर? तूं अशें कित्याक म्हणटा? तुका कितें म्हणपाचें आसा?'

'हें पळय, म्हाका तुजे कडेन वाद घालपाचो ना. आनी प्लीज, म्हाका परत परत कॉल करूं नाका. ओके? बाय!! गूडनायट.'

'पूण... पूण म्हजें आयक तरी. हॅलो! हॅलो!!'

ताणें फोन कट केलो. ताच्या दोळ्यांत दुकां दाटून आयलीं. ताचीं सगळीं सपनां मातयेभरवण जालीं. तो असो कसो म्हणूंक शकता? आमचें नातें तो असो कसो तोडूंक शकता? येवजून येवजून ताची तकली भेरेली. ताका ताचो खूब राग आयलो. ताका समजावपा खातीर ताणें ताका फोन केलो पूण तो परत परत कट करतालो. ताणें आपलो फोन स्वीच ऑफ करून दवरिल्लो. तरी तें पिशें कशें ताका फोन करीत रावलें.

फोन करून करून तें उबगलें. रात जाल्ली. सगळ्याक काळोख फांकिल्लो. ताका आपलीय जीण काळखीशी दिसूंक लागली. तें रांदचेकुडींत गेलें. ताणें मेजा वयली सुरी

काडली. दाव्या हाताची शीर कापून उडोवची अशें येवजून ताणें सुरी आपल्या मनगटा कडेन व्हेली पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका आपल्या आवय-बापायची याद आयली. आपल्या मरणा उपरांत तांकां खूब त्रास भोगतले ह्या विचारान ताणें तो विचार फाफडून उडयलो. तें येवन परत आपले कुडींत न्हिदलें. सुरी ताच्या हातांतूच आसली. परत एक फावट ताका फोन लायलो. ताचो फोन स्वीच ऑफूच मेळटालो. ताका ताची खुबूच तिडक मारली.

ताणें मनांत कसलो तरी निश्चेव केलो आनी दोळे गच्च धांपून सुरयेन आपलें मनगट कापलें. खिणांत रगताचो व्हाळ जालो. रोखडेंच तें बेशुद्ध पडलें.

इतल्यांत ताचो फोन वाजलो. पूण तो मेरेन तें बेशुद्ध पडिल्लें. तें फोन घेना म्हणटकच फोन करप्यान मॅसेज धाडली.

ती मॅसेज अशी आसली:

''आगो, प्लीज म्हाका फोन कर.

इतलो वेळ तुजे कडेन उलयतालो तो म्हजो इश्ट आसलो.

ताणें तुका किर्ते सांगलें?

ताका म्हजो फोन कसो मेळ्ळो तेंच कळना म्हाका. प्लीज, रागार जायनाका. म्हजो फोन घे... फोन कर... प्लीज.''



# 12. सांगात



तचीं बारा वरां जाल्यांत. तो रस्त्या वयल्यान एकलोच चलत वता. वाटेर कोणूच ना. सगळे लोक आपल्या घरा

न्हिदल्यात. रस्त्यार गाडयो लेगीत चड नात. चुकून ट्रकांचो आवाज येता. उमाशेची रात म्हणटकच मळबांत चंद्र लेगीत ना. मर्दींच खंयच्यान तरी रातकिड्यांचो बारीक आवाज येता. तो मात भंया विरयत आपलेच तंद्रेंत चलत आसा.

इतल्यांत ताका फाटल्यान कोण तरी येता म्हणपाची सुलूस लागता. तो फाटल्यान पळयता. पळयल्यार रस्ताद सुणो. तुजें म्हाका कांयच पडिल्लें ना अशें नदरेन तो ताका पळयता आनी परत चलूंक लागता. बिनधास्त...

बरोच वेळ चलतकच तो परत फाटल्यान पळयता जाल्यार तो सुणो ताचेच फाटल्यान येता हें ताका दिसता. हो म्हजे फाटल्यान कित्याक लागला काय? अशें म्हणून तो ताका धांवडावपा खातीर फातर काडटा. सुणो भियेवन पयस वता आनी तो चलपाक लागतकच परत ताचे फाटल्यान वता.

चलतां चलतां दोगूय बसस्टॅण्डार पावतात. बसस्टॅण्डार लायट ना. सगळ्याक बिण्ण काळोख. दीसभर गजबजपी हो बसस्टॅण्ड शांत आसा. मनशां भाशेन हो बसस्टॅण्डूय सुस्त न्हिदला काय? अशें येवजून तो मुखार चलत वता. ताच्या वांगडा तो सुणोय आसा. मर्दींच सुणो ताचे भोंवतणी नाचता. मर्दींच फाटल्यान वता, मर्दी ताच्या वांगडा चलता. मर्दींच ताची वाट आडायता. ताकाय सुण्याची मजा दिसता. सुण्याचो सांगात ताका आदाराचो कसो दिसता. तो चलत आसा. ते काळखी राती सुणो होच ताचो इश्ट, ताचो सांगाती जाता.

चलत चलत ते दोगूय त्या देवळा कडेन पावतात. आपसूक ताचे हात एकामेकांक जोडटात. दोळे आपशींच धांपतात. आनी मागीर याद जात देवाक आपणें केन्नाच सोडला म्हणून...

मर्दींच ताका एक प्लास्टिकाची बाटली दिसता. तो तिचेर खोंट मारून ती पयस उडयता.

तो सुणो धांवत वचून ती जिखता आनी ते बाटले कडेन खेळूंक लागता. ताच्या तोंडार हांसो फुलता. खूब वेळ तो हांसत रावता.

मागीर ताच्या लक्षांत येता तो ताच्या भुरगेपणांतले शाळे कडेन पावला. ती शाळा पळयतकच ताच्यो शाळेंतल्यो यादी जाग्यो जातात. तो पावलां नेटान घालता. आपलें घर आतां चड पयस ना हें ताच्या लक्षांत येता. सदचे भाशेन आपली आवय आपली वाट पळयता आसतली हाची ताका याद जाता. तो घडयाळी कडेन पळयता. रातचीं साडेबाग जाल्लीं आसतात.

तो मातसो फुडें वता. तो सुणो अजून आपली फाट सोडिना म्हणपाचें ताका कळटा. तो सुण्याक पळोवन वाजेता. 'आरे पापया, आमगेर येता? हांव पावलों पळय घरा. आतां चल तूं,' तो सुण्याक सांगता.

सुणो काकुळटेन ताचे कडेन पळयता. ह्या सुण्याक घरा व्हरचे काय? ताचे तकलेंत विचार येता. पूण थंयचीं सुणीं हाका जितो दवरचीं नात. आसूं? ताका हांगाच आसुंदी. परत तो सुण्याक पळयता. ताका सुण्याची काकुळट दिसता. तो हांसता आनी म्हणटा, 'चल रे, परतुया आमी.' म्हणून तो आयिल्ले वटेन पावलां मारता. सुणोय शेंपडी हालयत ताचे फाटल्यान वता... ताचो सांगाती कसो...!





## डॉ. तन्वी कामत बांबोळकार

- गोंय विद्यापिठांतल्या इंग्लीश विभागा वरवीं गोंयच्या लोकनाट्याचेर पी.एचडी.
- केपेंच्या सरकारी महाविद्यालयांत इंग्लीश विभागांत सहाय्यक प्राध्यापक.
- कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, ज्योत्स्ना प्रकाशन, पुणे, प्रथम बूक्स, नवी दिल्ली, एन.सी.ई.आर.टी. नवी दिल्ली ह्या संस्थां खातीर बालसाहित्याचो आनी शिक्षणीक साहित्याचो अणकार.
- अंत्रुज घुडयो संस्थेन सादर केल्ल्या 'लॉगआंवट' ह्या पयल्या नाटका खातीर 2020 वर्सा जाल्ले कला अकादमीचे 44वे कोंकणी नाटक सर्तींत संहितेचें पयलें इनाम.
- गोंय विद्यापिठाच्या सर्गेस्त शंकर रामाणी यादस्तीक कोंकणी कविता सर्तींत पयलें इनाम.
- अंत्रुज लळितक संस्थेच्या 'प्रेमजागोर', 'वाय' सारकिल्या फामाद नाटकांनी अभिनय.
- भुरगेपणांतल्यान सुनापरान्त दिसाळ्यांतल्यान लेखन.
- भांगरभूंय दिसाळ्यांत 'लोकवेद' आनी 'प्रासंगीक' सदरांत लिखाण.
- आकाशवाणीचेर वृत्तनिवेदक आनी अनुवादक म्हणून वावर केला.
- टायम्स ऑफ इंडिया आनी सुनापरान्त ह्या खबरांपत्रां खातीर पत्रकार म्हणून वावर. तशेंच दुरदर्शन, प्रुडंट, गोवा365, एच.सी.एन ह्या न्यूज चॅनलां खातीर कार्यावळीचें निवेदन केलां.
- कोंकणी साहित्य संमेलन, गोवा युवा महोत्सव आनी हेर महाविद्यालयीन पातळेवेल्या सर्तींनी इनामां आनी वांटो.
- राष्ट्रीय पुरस्कार प्राप्त 'एनिमी ?फह्या कोंकणी फिल्मांत अभिनय.
- बनारस विद्यापीठ, मुंबय विद्यापीठ, बरोडा विद्यापीठ ह्या सारकिल्या विद्यापिठांनी गोंयच्या लोकवेदाचेर प्रपत्रां सादर केल्यांत.